# आत्मायन

शरतचंद्र शेणै







.. खंयचे की पूर्वजन्माचे यादींतुल्यान ..

'अंतरंग धवळून काडपाची शक्त
आशिल्लो शक्तिशाली संग्रह..' म्हूण
श्री पुंडलीक नायक हांणी परामर्शिल्ल्या,
जाचो 'झंकार जाणवला..' म्हूण
श्री नागेश सोंदे हांणी कळयल्ल्या,
जाची कविता 'खूब आवडली,
हड्डें तापोवपी अशी..'
म्हूण सर्गेस्त मनोहर बाबान सांगलेल्या,
कोंकणी कवितेक नव्यतम नभोमंडलार व्हरपी
साहित्य अकादेमी पुरस्कृत
अंतरनाद काव्यसंग्रहा उपरांत..
अनुवाचकांक चिंतनानुभूतींच्या
व्हड्यां जोड्यांत विश्वदर्शन करोवपी,
आत्मदर्शन मेळोवपी, एक नादांतर..

# आत्मायन



शरतचंद्र शेणै





2007

Konkani

# ĀTMĀYAN

Poems of

**Saratchandra Shenoi**
Gokul, 18 - 535 A
Palluruthy, Kochi - 682 006
[saratchandrashenoi@yahoo.co.in]

First Edition : 2009



Price: Rs.75.

Published by : Author



*Printed at*

Paico Printing Press
Jew Street, Kochi - 682 035

# कविकथन

एक संगीतज्ञ आपल्या आत्म्याची भावसंवेदना संगीतांतुल्यान स्पष्ट प्रकट करता - उतरां विणेच. एक चित्रकार आपल्यो आनी सैमाच्योय भौआयामी भाव-भावना वर्णवैविध्यान चितरायता - उतरांचे आनी संगीताचेय विणे. जाल्यार आपल्यो भाव-भावना, विचार-अनुभूती दर्शावंक उतरांनी चित्र रचता, आनी उतरां विणून संगीत निर्मिता तो कवि! अशे रूपाची आपली जन्मसिद्ध प्रतिभा, निपुणता, आंगांतलें कसब, आदींची जाण आसूनूच मू हे लोक अश्यांनी मग्न जाल्यात. सवणीं जशी उडतात गायतात ते वरी केवल सभाविक, नैसर्गिक प्रवृत्ती हांगेली. देखून एक कवीक, तूं कित्या खातीर कविता करता म्हुण विचारपांत व्हडसो अर्थ ना. आनी स्वयं एक कवीच असो सोद घेवन बेसलो तरी ताच्या सोदाक अंत कसो?

जाल्यार केवल एक जन्मसिद्ध प्रतिभेन मात्र कोण चित्रकार जायना, संगीतज्ञ जायना, आनी कवीय जायना. जीब काडल्यार माका छंद, प्रास, उपमा, प्रतिमाच येता म्हूण आपशींच कविता जातली? थोड्या प्रमाणान विषय, विचार, वा अनुभूति लागेन नातिल्लें कविता जायश ना! कळ्याची नाजुकसाण, फुलाची कांती, फळाची रुची, तिनीय तिज्यांत मेळसता म्हणिल्ल्याची कवीक जाण आसूका.

शंबर उतरांतुल्यान एक उतर जेन्ना<br>
मस्तिष्कांत इंगळो कशी पेटता,<br>
शंबर चित्रांतुल्यान एक चित्र जेन्ना<br>
दोळ्यांचें स्फटिक चिरून<br>
काळजाचे वण्टेर नीट थापता,<br>
शंबर चिंतनांतुल्यान एक विचार जेन्ना<br>
फाट कशीच सोडीना,<br>
शंबर अणभवांतुल्यान एक अनुभूति जेन्ना<br>
विसरूक कशीच जायना,<br>
कविता जन्मता तेन्ना..

साहित्यांत कवितेचें स्थान अद्वितीय. जाल्यार हालींसराक कवितेक लळित साहित्यांत बेसोवंची एक चाल लागल्याशी दिसता, जेन्ना तिचें सुयोग्य स्थान खर्यानच उत्तम साहित्यांत आसा! धा पानांच्या बर्या एक निबंदांत विस्तारिल्लें कार्य लेगित केवल एक पानांच्या कवितेंतुल्यान सांगूक साध्य आसा म्हुण आमच्या मुकार देखी आसात. आनी जनमानसांचेर कवितेचो कितलोच चड प्रभाव पडता म्हणूय आमी दिकल्यां. म्हज्यो तर चडांत चड प्रतिक्रिया कविते वाटेनच प्रकट जाल्यात. म्हज्या विचारांची, आनी विश्वासांचीय खरी उत्तावण जाल्याय हेच वाटेन.

जाल्यार हांव सदांच कविता करीत बेसलां अशें ना. संवसारान आनी जीवितान एकेकदां माका शंबर प्रतिशत मोनो करूनूय सोडला. हांवें म्हजी ही लिखणी घेवन कागता मुकार बेसलेले वेळार खंय सगल्यान कितलींच भुरगीं (आनी जाण्टींय) पोटा भुकेन उदका तानेन तळमळतात, ह्या अशांत विचारान म्हजो जीव विडविडला. अश्या वेळार कितलींच मनशां, कितलींच राज्यां, कोट्यान कोटी दाम दुड्डू खरचून नवीं नवीं आयुधां निर्मुपांत गुल्ल आसात म्हणून रगत खतखतलां. आनी पळयल्यार वेगळे कितलेच जन, कितल्योच संस्थो, दारिद्र्याचे आड झुजत, मानवजातीचे उन्नमना खातीर, पोटतिडकेन वावरत आसात म्हुण मनांत आशाकिरणां उदेल्यांत. आनी हांव नेणतांच आठोवन गेलां - हे वैश्वानरा, कसलें विचित्र हें संतुलन तुगेलें! भुंयकांपाच्या सुनामीच्या खबरांनी आनी चित्रांनी तर माका साप्प मोनो करून सोडिल्लो. जे भाशेन कवितेची व्याख्या माका गवसना ते भाशेन जीविताचीय व्याख्या गवसना आसत!

‘*मनीस न्हय एक जुंवो, ताच्यांतूच संपूर्ण कसो..*’ हें म्हण्णें जशी एक सत्यकथन आसा, ते वरी ‘*प्रत्येक मनीस एक जुंवो, ताच्यांतूच संपूर्ण कसो..*’ म्होणचेंय एक सत्यकथनूच! जीविताकडे पळोवंची आमची नदर वेवेगळी. ते भायर एकूच व्यक्ति आपणाले जीवनयात्रेचेर थंयथंय पांवतना जीविताचें आगळें वेगळें दर्शन घेता. एकेक वेळार तें सुंदर

आसता. फुला वरी रंगयाळें, परमळीक. म्होवा वरी गोड रुचीक. आनी वेळार तें कोडू वीख जाता. विद्रूप आनी भीबत्स जाता. एक क्षणार तें जीवार सुखदेणी थंडी वर्षिता जाल्यार आनी क्षणाक हर्द्यार नांकटां खोंबिता. कसल्याय संकटाक तोंड करूक आशिल्ली त्राणि थोड्या दिसांनी आमचे भितर भरून ओतता जाल्यार, थोड्या दिसांनी आमी दुर्बल निश्चेष्ट म्हूण जीव निर्शेता. वेगळ्या थोड्या दिसांनी आमचे जिबेर म्होव आनी एक्कण्ड भरसूनूय लागता! तेन्ना जीविताची एक व्याख्या कशी म्हूण दिवंची?

आमच्या मुकार आडखळी दिसतात तेन्ना आमी निर्शेतात. पुण आह्वानां दिसतात तेन्ना उर्बा वाढता. आडखळी रुकयतात जाल्यार आह्वानां आपयतात! प्रथम दृष्टींत आडखळी दिसता तांचें आमी आह्वान म्हुण मानून घेवंका. तेन्ना तांणी उबी केल्ली रुकावट रोखडींच कोसळून पडता आमकां पळोवंक मेळतली, आनी तांचें तें साहसी आपोवणें आमी वळखूक पांवतले. जाल्यार फकत तींच आह्वानां स्वीकारचीं जीं आमचे भितरचे शक्तीक जागयतात. आमच्यांतुल्या दौर्बल्यांक आपयतात त्या आह्वानांक स्पष्ट रूपान न्हयकार दिवंचो. जीविताचो आस्वाद घेवंक हाची बरी गरज आसा! आनी कवितेचो आस्वाद?

कवितेचोय आस्वाद तसो सरळ नासता. थोड्यो कविता अर्द मिनुट भितर समजून काडपा सारख्यो तर थोड्यो समजून काडूक मस्त जास्त वेळ लागता. कवितावाचन म्हळ्यार अखबार वाचूचे वरी सोपें न्हय. देखीक - एक कवितेंत खंयतरीय 'हांव' म्हूण दिकतना रोखडींच, कवि आपुणूच जावन हें सांगता म्हूण अनुवाचकाक अपसमज जावंचो न्हय. कवि थोड्यान कथाकारां भाशेन एकेक पात्रांक निर्मिता, आनी कवितेंत तीं पात्रां आपणूच जावन उलयतात. थोड्यान कवि जनावरां कर्यान, सवण्या सुकण्या कर्यान सगट तांचीं तांचीं चिंतनां सांगयता. थोड्यान तो आपले कविते कर्यान लेगित उलोवयता! हाचो लेगित फरक समजना तर आपुण रसिक म्हूण सांगूक आमकां कसली अर्हता?

कवितेच्या आस्वादा विशीं बरयतना आतां दोग म्हालगड्यांचो माका उडगास येता, जे कवि म्हणूय व्हड आनी काव्यरसिक म्हणूय! बावीस वर्सां आदींची खबर. केरळचे आमी कांय जनां मेळून एक बसींत गोंयची सांस्कृतिक भोंवडी घेवूंक भायर सरिल्ले. पणजेंत डॉ. र. वि. पंडित हांणी आमकां तांच्या घराक आपोवन व्हरून आमचो अत्यंत हार्दिक सत्कार केलो. तेन्ना म्हजें म्हुण एक लेगित पुस्तक छापून येवंक नाशिल्लें. म्हज्यो कविता केवल नेमाळ्यांनीच पळोवंक मेळताल्यो. तरीय त्या महाकवीकडल्यान माका तांचीं खूब पुस्तकां सहस्ताक्षर मेळ्ळीं. तश्यांतुल्या एकावेलें तांचें आशिर्वचन, जें कालांतरांत सार्थक जालें, हांवें म्हज्या 'अंतरनाद' संग्रहाच्या आरंभार तांच्याच हातबरपान दवरलां -'*कविता ही एक तपश्चर्या / ती तुका साध्य जावं / जातली..*'
ते उपरांतेंय एकेकदां चिट्यांनी संपर्क आशिल्लोच..

डॉ. मनोहर राय सरदेसायांची पयली पावट वळख जाली ती मंगळूरांत. एक कश्या संमेळना वेळार. ते फेलिस्यू बाब कार्दोज हांच्या सांगातांत आशिल्ले. उपरांत जायत्या संदर्भार आनी जाग्यार संपर्क जालो. तांणीय तांचीं पुस्तकां एक एक कवन थिकान सजोवन सहस्ताक्षर माका दिल्यांत. बंगळूरांत जाल्ल्या साहित्य अकादेमीच्या दोन हफ्त्यांच्या भाषांतर शिबिरांतूय ते आशिल्ले. तांगेले 'पिसोळ्यां' विशीं हांवें लेखनां बरयल्यांत आनी कांय वेंचीक पिसोळीं मलयाळमांत उतरायल्यांत. जायते पावट ते केरळांत आयल्यात, आनी कोचींत, तांणी आशिल्ले वेदीरीच म्हजो 'अंतरनाद' प्रकाशित जालोलो. उजवाडायल्ले नंतर पुस्तकाची प्रथम प्रति हांवें तांकांच दिलेली. म्हज्या पुस्तका विशींचीं तांगेलीं मोलादिक उतरां ह्या पुस्तकाच्या कव्हराचेर दिल्यांत. मागीर 2002 वर्सा हांव सकुटुम्ब पणजे तांच्या घराकडे गेलां, आनी आमचो थांगा हार्दिक सत्कार जाला. तेन्ना तांणी विचारिल्लें - तुजो नवो झेलो केन्ना येता?

'अंतरनादा' उपरांत आतां धा वर्सां उलगल्यांत. हीं वर्सां एक तराचीं भोंवडेचीं वर्सां म्हळ्यार जाता. केरळ, कर्णाटक, गोंय, तामिलनाडु,

दिल्ली, हरद्वार, ऋषीकेश, धरून पश्चिम बांगळाच्या शांतिनिकेतनांत पर्यंत जावन प्रत्यक्षांत घेतल्ले भोंवडें वरी, ह्या धा वर्षांनी म्हज्या काव्यालयांतुल्यान लेगित भायर देंवन हांवें कांय भोंवड्यो घेतल्यात. आनी मागीर, परतून घरा पांवतना मेळता त्या अनुपम सुखाचो खूब आस्वाद घेतलाय!

जाल्यार जीवित नांवांचो प्रवास जशी सतत चलत आसा, तशी काव्यप्रवासूय सतत चलत आसा..

तेत्तीस वर्षां आदीं जेन्ना काव्यसृष्टीक भायर सरलों, तेन्ना माकाच सांगिल्लें - बरयता तांतूं कितेंय नवसाण आसूची, वेगळेपण आसूचें. त्या कालाक कोची थाकून सुभाषचंद्र प्रभूल्या संपादपणा खाला 'कोंकण जनता' म्हयनाळें उजवाडा येवंक लागल्लें. तांतूं कविता म्हूण येताल्यो केवल भक्ति रचनाच. ताचेर आयलेल्यो म्हज्यो पयल्यो कविता आशिल्यो सदळ छंदाच्यो 'नष्टचैतन्य' आनी 'प्रवाहसंगीत'. वर्ष 1974. आज त्यो परतून वाचतना तांतूं तशी व्हड कितेंय आशिल्याचें दिसना तरीय तांचें जीविताकडेचें नातें स्पष्ट जाणवता. म्हयनाळ्या वयल्यो त्या कालाच्यो इतर कविता पळयतना हांचें वेगळेपणय जाणवता. ते नंतर 'कोंकण जनते' खातीर हांवें भोव साबार बरयलें - गीत, कविता, कथा, हास्य, आदी धरून एक नवलिका लेगित! अखिल केरळ तलावेल्या सर्तींनी सान व्हड जायते पुरस्कार मेळ्ळेय. पुण तेन्नाच्या त्या यादींनी घुसपल्यार आतां संतोषा पशी दुखच दिसता. आज 'कोंकण जनता' ना. सुभाषचंद्र प्रभूय ना. तेन्नाचे वावुरपी, वा म्हज्या सांगातांत पुरस्कार जोडपी चड कोण आज ह्या रंगाचेर नात. संतोषाची एकीच गजाल म्हळ्यार मागीरीय एकलो ना एकलो नवो जावन ह्या रंगाचेर येत उरला. हीच एक भांगरा देग सगळ्याय काळ्या कूपांक सुंदराय दीत थळथळून राबल्या!

म्हज्या कवितांचो संग्रह करूक जाय अशी भोव पयलींच दिसल्लें. पुण अडचणच चड आशिल्ल्यान शुरुवेक तें सोडून दिलें. 1987 वर्षा

प्रथम जावन उजवाडा आयले ते म्हजे दोन अणकार. 'मीरा' अणकार हांवेंच उजवाडायलो जाल्यार, 'श्रीकृष्ण कर्णामृत' चेन्नईचे डॉ. पी बी जनार्दन हांणी छापयलो. 'मीरा' अणकारा खातीर मागीर 1991 वर्षा माका 'देवकी कृष्ण' ट्रस्टाचो पुरस्कार मेळ्ळो. नंतर, 1995 वर्षा म्हज्योय इतर धा समकालिकांल्योय तरातराच्यो कृति घेवन 'साहित्य संकलन' उजवाडा हाडूक जालें. निरंत प्रवर्तन चालू आशिल्ल्या त्या वेळार जेन्ना एक दूरस्थ गांवांत म्हजें ट्रांस्फर जालें, ताच्यान सुमार कष्ट जाले. आनी एक तरपेन बरें जालें म्हळ्यार, म्हजें वाचन चिंतन सृजन चड जालें. बसींनी वरां वरांची यात्रा आशिल्ली - तीं पांच वर्षां! तशे ते यात्रे मदीं जायतें दिकलें, जायतें आयकलें, जायतें चिंतलें, जायतें सुचलें, आनी जायतें बरयलेंय. 'अंतरनादा'चो तोच जन्मकाळ. प्रकाशन वर्ष 1997. त्या संग्रहा विशीं श्री पुंडलीक नायक हांची प्रतिक्रिया आशिल्ली ती अशी - *खंत भोगता, हो उसरां आयलो; खोस भोगता, हो परिपूर्ण जावन आयलो!* नंतर 'काव्योद्यान' संग्रहाची येवजण मनांत आयली. कोंकणी कवि म्हूण वळख दिलेल्या केरळांतुल्या सगल्यांली एक एक कृति घेवन एक समग्र संकलन! आशिल्ल्या अंतरलेल्या कवींचो सोद शुरू जालो. दोन दशकां लागीचे 'कोंकण जनतेचे' सगलेय अंक बरेच चाळ्ळे. भोव पोरने, 1924-25 वर्षांतुले 'सारस्वतबोधिनीचे' अंकय सोदून काडले. जांचो पत्तो हाताक लागलो त्या सगल्याय कवींक चिट्यो धाडल्यो. थोड्यांल्या घरा कडे गेलों. केवल एक वर्षान संकलनाचो श्रम संपूर्ण जालो ! ताका बरो येवकार मेळ्ळो म्हूण अनल्प संतृप्ति आसा. 2001 वर्षा म्हज्या 'अंतरनादा'चो त्याच नांवान हिन्दींत भाषांतर आयलो. त्याच वर्षा श्री पी जी कामत हांच्या संगातांत 'कोंकणी बरयतना' ही मार्गदर्शी पुस्तिकाय तयार जाली. मागीर 2004 वर्षा दोन पुस्तक उजवाडा आयले. 'श्रीवेंकटेश सुप्रभात' हें भाषांतर आनी 'लोकधन' हें पठनात्मक परिचय पुस्तक. 2005 वर्षा तिसरें एक संकलन 'साहित्यदीप्ति' भोव आकर्षक रूपान उजवाडा हाडूक जालें. ताचे वाटेन केरळच्या कोंकणी साहित्यक्षेत्रांतुल्या समकालीन वनिता प्रतिभांली

वळख दिवप सुसाध्य जालें, जाची बरी गरज भासताली. आनी ह्या गेल्या वर्षा अष्टोत्तर शतश्लोकी भक्तिकाव्य 'श्रीकृष्ण कथासुधा' म्हूण एक मौलिक कृतीय सादर करूक जाली. अशी अशी वर्षां धावलीं म्हण्टना एक संस्कृत वाक्याची याद जाता - कालो न यातो वयमेव याताः

'अंतरनाद' उजवाडा हाडिल्ले वेळार, मुकार ते वरी एक काव्यसंग्रह म्हज्यान शक्य जावंचो ना म्हूण एक तराची खात्रीच कशी दिसताली! पूण मागीरीय कविता आयलीच. त्या संग्रहाक साहित्य अकादेमीचो प्रतिष्टेचो राष्ट्रीय पुरस्कार मेळ्ळे उपरांतेंय म्हजे कवितेन ही लिखणी थांबूक दिली ना म्हूण मनांत आनंद दिसता. देहांतुले रगतांत हीमोग्लोबिन ऊणे जाल्यार व्हड पीडा जाता खंय. ते वरी अत्यंत गरजेची वस्तु जाल्या माका ह्या काळजांतुली कविता! आनी एक म्हळ्यार, म्हजे भितर वचून ह्या अंतरंगाचीं पानां उजरावन विस्कटावन पळोवन हांव कोण म्हूण माकाच वळख दिवपी चमत्कार हिचो!



- शरतचंद्र शेणै

## उ उरिल्लीं उतरां..

आदल्या काव्यसंग्रहांत एकेक खंडाचेय आरंभार हांवें म्हजे कांय आवडीचे कवींल्यो उद्धरण्यो दिलेल्यो. पुण कविवर्य रवीन्द्रनाथ टागोरांचीं उतरां तांतूं नाशिल्लीं. म्हणून ह्या संग्रहांत तांगेले एक प्रसिद्ध कवितेच्या भाषांतराचोच आस्पाव केला. म्हजे आवडीचे कवींक हें अशें नमळायेचें अर्घ्य म्हजें..

### कवनां



### भाषांतर



### कवनुलां



### गीत



### कवन-थिकां

- पत्मश्री रघुनाथ विष्णु पंडित
- डॉ. मनोहर राय सरदेसाय

ह्या दोग म्हालगड्यांच्या गोड उडगासा मुकार..

# आत्मायन

कविता म्हूण कविता न्हय,
अंतर्मनांतुले दर्याविळेवेले
हे उणेच उतरांचे कुटके -
छंद म्हूण छंद ना,
फुलां - सुगंध ना,
किरकोळ कुटके उतरांचे -

एकटेपणांत हे घाशीतां पुशीतां,
वळखतल्ल्यांक विकींतां -
वैढूर्य माणिक्य खंयचान दितलो
रस्त्यांनी भोंवपी बंजारो !

कविता म्हूण कविता न्हय,
अंतरंगाच्या अटंग्या वनांतुले
हे उणेच उतरांचे कुटके -
नेणतांशे वेंचलेले, झोळयेंत भरलेले
किरकोळ कुटके उतरांचे -

झोळी ही घेवन हांव वाटेन वतना
सुखदुःख म्हार्यांत येता -
सुख चिके हासून आंगाक थापतनाय
दुःखाचें मौन निर्शायता -

तरने हे दोळे, हरवें हें हरदें,
संवसारा तथ्यांनी पेटता -
अस्वस्थ जगजिणेंत जीव घुसमुटतना
संथ ही झोळी उजरायतां -

खंयचे की पूर्वजन्माचे यादींतुल्यान
कुटके वेंचून गांथीतां -
दोळे हे भरतना, जीव थंडेतना,
उजो काळजाचो पालवता -

काव्य न्हय, कविता न्हय,
जीविता सार हें
फुटक्या उतरांनी रचिल्लें !
आत्म्याचें सत्य हें
आत्मसंकोचान
पुरतें ना पुरतें सांगिल्लें !

(2003)

## संक्रमण

ज्योत फांकीत, जीव फांकीत,
यो रे सूर्या संत संत
आस्त अस्त जालेल्या काळजांत
हाडी नवोदय तेजवंत !

युगायुगाचें ऊर्जस्त्रोत तूं
मुनिश्रेष्टांलें ज्ञानस्त्रोत तूं
जीवावळेचें जीवस्त्रोत तूं
चराचरांक चिरंतन बंधू !

खरो हकीम तूं जीव जागोवपी
वखदी किरणां जखमां पेखोवपी
नमन तुका हे नवलकारका,
हांव निनांवीं यात्री गा -

यो रे बुलबुला, करि तूं गायन
मधुरगीत ह्या मनाक सांत्वन
विसरार घालून दुखद भोंवतण
करि तूं माका खिणाक मग्न !

गीत तुजे सगले चिरपरिचित
शेणत वता यादींत चित्त
देहभान सवकास विसरत
अंतरात्मो हव्याचेर सतत !

भोवंदी माका शेता-भाटांनी
भुरगेपणाच्या गांव-वाटांनी
भुलय माका हे गगनगायका,
हांव निनांवीं यात्री गा -

शिवंर घालि परजताच्या झाडा
श्वास-उस्वासांत सुगंध धारा
निवळाय घुस्मट, विसराय दुःखां
उठय म्हज्यांत उमेदी ल्हारां !

खरखर पानां, नाजुक फुलां
समजूक पावलां उजळ प्रतीकां
अंतरंग धांवता फाटल्यान
अगण्य फालीं पांची दसकां !

स्वच्छ पवित्र हासमुखीं फुलां
गच्च भरून तूवें शिंपडिल्यां
फुलां तुगेलीं प्रसाद माका,
हांव निनांवीं यात्री गा -

यो मरे पावसा, घेवन वाझवोडी
निवय ही छाती पांगरावन थंडी
तप्त मनांत हुंवार हाडून
व्हर तूं माका खिणाक पलतडी !

रोमहर्ष हाडताय ओथांबे
भिजपाक सोदता भितल्लें भुरगें
पांवळ्यो पळयत हालता हरदें
अमसरायता करपाक व्हडें !

मळब सोडून मू येता सकयल
मंत्र जपून थंडायता उबाळ
आभार तुजो, आनंदनर्तका,
हांव निनांवीं यात्री गा -

पावसा धणवा उदेवन हास
जागय म्हज्यांत शेणल्ली आस
सप्तरंगाच्या सरयांर माका
उखलून व्हर रे खंय तरी पैस !

वोता सांगातांत पावस येतना
दोळे तुकाच रे सोदताय सदना
पोरनी संवय विसरून विसरना
वश्यरूप लिकलिकता मनां !

क्षितिजा पेल्यान देश तुगेलो
सपनां विर्कुपी हास तुगेलो
राब परजळून, दिव्यचित्रिका,
हांव निनांवीं यात्री गा -

सर्र सर्र म्हणतल्ल्या समुद्रा
चलून चलून रे हांव आयलां
थकिल्ल्या पावलांक दी उर्बा
माडोवंक उरल्यां आनीय मैलां !

आस्कळ विस्कळ राज्य तुगेलें
जगदस्तित्व मनशा पयलें
गाज करपी तूं, गीत गावपी तूं,
गुल्लो शिंपी भुरग्यांक दिवपी तूं !

आपय आपयताय ल्हारां तुजीं
पाणी सांसपिता पावलां म्हजीं
पोषण करि हे लवणदायका,
हांव निनांवीं यात्री गा -

पुनवे चंद्रा चांदनें रकय
हून निडळ हें सामकें भिजय
रीण दी तुजी शीतळ शांतताय
बडबडे हरद्यांत मौन बेसय !

आवयले हांडीर, बापाले मांडयेर,
इष्ट आसतना, एकटो बेसतना,
खंयखंयचान रे तुका पळयला
चल्लों तरी तूं फाटल्यान आयला !

पूर्णाकार आनी मंदहास
पळयल्ले तत्क्षण उडलो उदास
अपुरबायेची ओतय चंद्रिका,
हांव निनांवीं यात्री गा -

(2002)

## दोवा कण

फांतोडेर
फुलाचे पात्येर
एक दोवा कण -
ध्यानार बेसल्ल्या
एकाद्र्या ऋषी वरी !
त्या दोवा कणाच्या
काळजाच्यां हारशांत -
सगळें मळब !
सगळी धर्तरी !

## भावांनो भयण्यांनो

न्हय हांव गायक कोगूळ कसो भोंवपी
भुंये पासून पयस राबून पंचमार गावपी -
न्हय हांव गीतकार गोड गोड उतरांचो
फूल पाकळी तोखेंवचेल्या मोव नाजुक गीतांचो -
न्हय हांव कवि भौसा पासून वेगळो
जीविताच्या सुख-दुःखा द्वंद्वां पासून मेकळों -

मौनी न्हय, ज्ञानी न्हय,
योगि न्हय, वैरागी न्हय -

खिणाक हासून, खिणाक रडून
खिणाक झगडून, झगडीं सोडून -
मनीश हांव मनशां मदें -
मनशां वरी -

## जीवित

जीवित उलयतना
कान दिवन आयक !
मरण आपयतना
पाय फाषडून वच !

## कणिका

पान मू - फूल मू - फल मू कविता !

## म्हजी कविता

कविता म्हजी तणा सारखी
भुंयेवेल्यान उठलेली -
दोवा वारो घेतलेली -
वोतांतुल्यान पावसांतुल्यान
दीस काडून वाडलेली -

कविता म्हजी भुरग्यांवरी
मेकळेपणान उलोवपी -
येद्दे व्हडल्या दर्या देगेर
शिंप्यो गुल्ल्यो पुंजावपी -

कविता म्हजी बंजारीण
दिका-दिकांनी भोंवलेली -
गांव गांवांनी पावलेली -
कळना तिका सोदता कितें
मेळ्ळें कितें गेल्लें कितें
भोंवडेंतूच रमलेली -

कविता म्हजी म्हजे सारखी
स्वता भितर शेणलेली -
उतरांतुलो म्होव रु[illegible]त
वाटे विसर पडलेली -

(1998)



## कणिका

रीणाच्या उतरांक उतरांचें रीण !

## हीरो

एक पुस्तक आनी एक पेन घेवन
तुज्या ऑटोग्राफाक राकून
उबो हो भुरगो, सामको थरथरून -
पुण तूं गुल्ल ताळियांनी
फुलांच्या हार्या तुर्यांनी
केमरा वीडियोंच्या दोळ्यांनी -
लक्ष तुजें आपल्याच हावा भावांर
तोंडार सांबाळिल्ल्या मंदहासार -

अखेर नकळत ताच्याय पुस्तकाचेर
पडता तुजें अमोल हस्ताक्षर !
तेन्नाय तुजे नदरेची भोंवडी
वेगळ्याच दिकांनी -
तुवें ताका पळयलोच ना !
चुकून लेगित, केन्नाच तरी !
पुस्तकावेलें तुजें हस्ताक्षर
दोळ्याक लावन उडपी
तुज्या खर्या भक्ताक
तूं वळखलो ना !
सभाग्या,
ताची प्रतिभा पळोवन फाल्या
[illegible]तें फुलचे बदल
धन[illegible] जा[illegible]चे बदल
तुजी ही [illegible]याद ताणे उक्तायतना
स्वताचेर लज दिसप मरे
तुज्या कपलांत बरयल्यां !

(1998)

# ही वाट

ही वाट
माका परकी न्हय -
हे वाटेर
हांव एकटो न्हय -
म्हज्या सारख्या जायत्यांक पळयलेली
म्हज्या सारख्या जायत्यांनी वेंचलेली
एक एक पावल करून माडयलेली
काळखा उजवाडाची
फुलां सयत कांट्यांची
हासयतच रडोवपी
ही वाट
माका परकी न्हय -
हे वाटेर हांव एकटो न्हय -

कोगळाच्या पंचमांत
वार्याचे शिलोणेंत
भुकेल्यांचे हुंडके भरसल्यात -
पुनवेच्या चान्नीण्यांत
पावसाच्या शिंवरांत
दळदिर्यांचीं दूकां मेळसल्यांत -

चडती देंवती आसा तरीय
मोडून वळून वता तरीय
हे वाटेक अंत ना !
कोणूच खंयच पांवचो ना !

(2002)

## फाल्या

फाल्या
कोणूच माका सोदचो ना -
सोदल्यारीय तरी
हांव कोणाक मेळचो ना -
पुण
अप्रूप एकल्याक एकदा
मेळत म्हजो आत्मो
एके कवितेंत घुसपून पडिल्लो -
कांय उतरांनी
दसून राबिल्लो -
भाव-विचारांनी शेणिल्लो -
आत्मो फकत
देहांतूच रावता अशें ना -
ताका रावपाक
उतर पुरो
रंग वा शब्द पुरो -
तो देवा सारको !
वा देवूच !

## सोद

शेणलेल्या उतरांचो
सोद म्हजो..

## वेवहार

■ उपकार सांगताय कित्या ?
उपकार विसरपाक !

■ सोपणां कोणा खातीर ?
चडूक कळतल्ल्यां खातीर !
बाकीच्यांनी कितें करचें ?
सोपणां जावन पडचें !

## म्हांतारो

जे जे खातीर खतखततालें रगत
आज कित्या म्हुण जायना तशें तप्त ?
जे जे विशीं हुलपताले दोळे
आज फकत मू जाताय हे ओल्ले !
जो वेळ हो गेलो, जो काळ हो गेलो
म्हज्यांतुलें कितें घेवन असो गेलो ?
वतावताच ह्या वर्षांनी दसकांनी
असो कसो माका म्हांतारो केलो ?

## चळवळ

चळवळ चलता बरी बरी -
दुडवां कळकळ वयर वयरी..

## अस्वस्थ

दोळे धांकप सोपें काम
सकल करूंयेता मान -
नदर ओडून फाटीं वळून
चलूंयेता ते वाटेन -
भिकार्यांक पळोवंचें नाका
म्हांतारचळ चोवंचें नाका
पत्रांतले रक्त बंबाळ
मांसा पसर्यांतलीं मडीं
कितेंच तें पळोवंचें नाका -
स्वस्थताय सोडची नाका !

कान धांपप सोपें काम
व्हडले हात मेळ्ळ्याय दान -
भुके रडणीं वार्यार वचोय
आळ-गाळे कोणय आयकोय -
गरीबांले दुबळे हुंडके
गोरवां प्राण्यांचे तळमळे
कानांत व्हरचें नाका कितेंय -
शेणची नाका स्वस्थताय !

नांक धांपप सोपें काम
दोनीच बोटां पुरोय सान -
हुंगची नाका चरा घाण
विसर्ज्यांची रस्त्या देग
सोर्या ओंके कुस्सट्टाण -

तोंड धांकून धरप सोपें -
कीड्या ओरोव खावंचो नाका
गंदें उदक, भेळशी च्या,
खमटें तेल रुचचें नाका -

आंग राखूक कष्ट ना -
वोता पावसा थंडे पासून,
कांटे, खरजू-झोपां पासून
गांजील, विचू, सर्पा पासून
कात वांचोवूंक कष्ट ना -

इतले भेट मेळून लेगित
इतली कृपा मेळून लेगित
तृप्ति ना, संतुष्टि ना -
तनिक समाधान ना !

दोळे धांकूयेता तरीय
कान, नांक, तोंड, आंग
राखून वांचूयेता तरीय
मन धांकप शक्य ना !
देकून समाधान ना -
अजून स्वस्थताय ना -

(2001)

## धागो

सोडूनाका रे तूं तो धागो !
त्या धाग्याच्या ह्या तलवारी
उबता उबता सोरंगो !

खेळता नांचता द्रुत द्रुत ताळारी
अशी तशी कुद्दता वांकुड्या वार्यारी -
इच्छा तुजी, संतोष तुगेलो,
तुजेच आनंदाक नांचता सोरंगो -
सोडूनाका रे..

आपयताय ताका मेघ मळब
उलो मारताय सदा सवर्णीं सुलभ -
सृष्टी तुजी, संकल्प तुगेलो,
तुगेलेच तृप्तीक नांचता सोरंगो -
सोडूनाका रे..

आश्रय धागयाचो, असुलभ भाग्याचो -
ताचे विना नष्ट रे जन्मु पतंगाचो -
वेष्टिला हरद्याक धागो मोगाचो,
तुटत म्हणून भितर उजो संदेहाचो -
सोडूनाका रे..

(2001)

## सुनामि

राक्षसी ल्हारांक तेद्दें कशी शिरापूं ?
मनशांतलें मनीसपण जागयताय तींच मू..

## प्रस्ताव

रस्त्या मदें, रस्त्या देगेन,
आनी चौरस्त्यार बी येवेन,
व्हडा आवाजान उलयत
बरीच ताकतीक दाखोवन
अशी तशी भोंवपी पिशा -
तुजें पिशें माका दी गा !
घे म्हजी बुद्धी !
घे म्हज्यो यादी !
घे म्हजे विचार,
जाच्यांनी हांव बेजार !
आनी
घे म्हजी लिखणी,
जिचान हांव जखमी !

## संतत

कुचेलाक भुरगीं कितलीं ?
नातरां कितलीं ?
पोणतुरां कितलीं ?
हांव नेणा ..
पुण आज ताची संतत जाल्या
अगण्य !

## एका काळार

एका काळार
वाटेवेल्या तेला दीव्याच्या
हयन्हयशा उजवाडांत राबून
वाचताले आमी -
राकेला दीव्याच्या
मिणमिण्या उजवाडांत बेसून
शिकताले आमी -
दिवलेची एकीच वाती लावन दवरून
जेवण खाण करताले आमी -
पुण आतां !
कुरडे जायत गेल्याय दोळे !
देनपरांच्या वेळार लेगित
ट्यूब लायटां जाय जाल्यांय !

एका काळार
अर्द मैल दूरचान घाल्या सादाक
शेतांतल्यान जाप दिताले आमी -
माड्यार बेसल्ल्या पाडोवप्या लागी
सकलचान गजाली करताले आमी -
पैस सिनिमा शालेंतुल्यान येवपी
गीतांक ताळ धरताले आमी -
पुण आतां !
भेड्डे जायत गेल्याय कान !
शेजार्यां लागी उलोवूंक लेगित
मोबायल फोण जाय जाल्यां !
गीतां खातीर सीडीवीसिडींच्यो
व्हडल्यो पेट्टो जाय जाल्याय !

एका काळार
वाट विसरून रडपी पोराक
घराकडे पावंयताले आमी -
आखाड्यार येवन मागतल्ल्यांक
तेल फोव दिताले आमी -
खंयचाय कार्यांत एकामेकाक
पालव सांगात दिताले आमी -
पुण आतां !
फातर जायत गेल्यां काळीज !
सोयरो म्हणून दायजी आयल्यार
दुबावान भरता नदर !
मार्गार अपघात दिकल्यार
वळता पाय दुसरे वाटेन !
मागतल्ल्यांक दिकले जाल्यार
थारायताय सगले चोर !

एका काळार
पाक्या घर, पाचवी जीण -
आतां पुण
फ्लॅटा घर, धावंती जीण -

(2002)

## जाण्टे

दर जाण्ट्या भितर
आसा एक भुरगो,
दर भुरग्या भितर
एक जाण्टो !

## ट्रेनीर

निजाचो बोवाळ चिरून
अचकीत
किळांच एका बाळकाची !
परतून परतून
व्हडान व्हडान -
कान धांकचे खातीर
हात उबारप लेगित अशक्य
तशा सदांचे गर्देंत
दामून आसां हांव -
आनी कानांत
हो आकांत -
शिशें कडोवन ओतिल्ले भाशेन !
कित्या ही थंडावना ?
कोण हें बालक ?
कित्या खातीर हाचो आकांत ?

अशें येवजितना -
तकलेर एक जोगुल बेसलां !
मेंदवाचें जंगल लासूंक लागलां !
काळजाचो बांद फुटला
उतरांचो उव्वार उठला !
किळांच ही थांबची ना
बाळक ओगी जावंचें ना -
हो फाल्याचो मनीश !
आपलें भविष्य नियाळून मू
हाचो हो आकांत !

रडूं दी, ताका रडूं दी !
फाल्या-परांच्या रडण्या खातीर
थोडी संवय जावं दी !
भविष्य ताचें सजयताय
प्लाश्टिकाच्या कोयरांनी मू !
गंगा ताची सांबाळताय
मेलेल्यांच्या हाडांनी मू !
तेल कळसो खणून खावन
दवरतलीं फकत गोबोर मू !
खंय खंय की उदक
थंय रासायणी वीख मू !
खंय खंय की घुडी
थंय जागेर अण्वस्त्रां मू !

अर्थ नातिल्ल्या झगड्या-झुजांनी घुसपून
अरुंद होवर्यांनी घुसमुटत,
गर्दी वाडयत,
उसरपत विसरिल्ले ताकतिकेन
खंय वताय आमी ?
कोणाच्या कीं हातांनी
खंयचे की कडे वचपी
पेणीं नातिल्ले
हे आग गाड्येंत
निष्पाप ह्या बाळकाकय घेवन
दोनीय दोळे अशे धांपून
खंयकडे हें प्रयाण ?

(1998)

## काकुळत

कवे, तुजी काकुळत !
तुज्या कोशांतुल्यान
पाकां फुटून
भायर आयलेलीं
पिसोळीं सगलीं
दूर दूर वतात -
रसिकांचीं काळीजां सोदीत !

## झाड

मना झाडार
सपन कळे
थोडे फुलून
कवन जाले -

## हांव

हांव आतां ना जालां !
म्हज्या कवितांनी माका
खावन काडला !

## रद्दी

कालचें घडित
आयची खबर
फायची कविता
परां रद्दी ?

## मोनो बेसूंक दी

मागू नाका रे कविता
मोनो बेसूंक दी आतां -
झोड आयलो, उब्वार आयलो,
जालो भुंयकांप आकांताचो -
रोखड्या रोखडीं कवनां करूंक
हांव कितें, खबरां चॅनल ?
पिठ्ठो जाल्ल्या घरांक कित्या
ह्या उतरांचें पांगरूण ?
वांचलेल्यांक जाय कितें
अनुप्रासांचें सॅकरीन ?
उतर आतां फुटून येना
आसून माका खंत ना -
एक बोतल रगत तरी
दिवूंक पावलां मोन्यांनी -
उणो थोडो पयसो तरी
दिवूंक पावलां मोन्यांनी -
सारखी वळख ना तशा,
कुरडो आनी भेड्डो कशा,
एका म्हज्या देवा कडे
शीण काडीत लडूक पावलां -
दूकां गळयत झगडूंक पावलां -
काळखे रातीन दीवे पालोवन
वरां वरांनी एकटो बेसून
काळखांतुल्यान वाट काडीत
म्हज्यांतुल्या मनीशपणाक
ऐन वेळार वळखूंक पावलां -

(2000)

## संवसार

चलतना सांगात दिवपी चंद्रा वरी
आयलो संवसार म्हज्या वांगडा !
हांव भुरगो आसतना
तो भुरगो राबलो -
हांव तरनाटो जालो म्हूण
तोवय तरनाटो जालो -
माका जुण्टाय आयली पळोवन
तोवय विचारवंत जालो -
पुण ते मागीर ताणे माका
सामकोच फटयला !
हांव म्हांतारो जातकच
तो परतो भुरगो जाला !
तरणो जाला !
ताचे भुरगेपणान
ताचे तरणेपणान
तो आतां माका सतायता !

## दर्शन

हासमुखें भुरगें -
ताचे लागी उलयत खेळत
ताची हासमुखी आवस -
दर्शन हें
दी माका
दर दिसा !

# कायळी

चार घरां मदें बेसून
रडली कायळी -
तिचो ताळो पावलो
चारीय घरल्यांनी -
तिचें नांव घेतलें
चारीय घरच्यांनी -
एकल्याथंय आयलीं सोयरीं
धूव, जावंय आनी नातूर -
कायळेक मेळ्ळें शीत
पोसो भर -
दुसर्याथंय पावलीं वर्जी
म्हांतारो आजो आनी आजी -
दीस भर किरकिर -
कायळेक मेळ्ळे गाळे
आनी फातर -
तिसर्यागेर जालो बाबु
फुललें ताजें घर -
कायळेक मेळ्ळें केळें
आनी साकर -
चौत्याथंय पावलो रोडो
एकल्याक घेवन गेलो -
रडलें घर, निदलें घर,
कायळेक कायंच मेळ्ळें ना -

(2000)

## साद्यालो सोद

एक बाबडो सादो रसिक
सादी कविता सोदीत आयलो -
झेल्यां वयर झेले तेळीत
नेमाळ्यांचीं पानां चाळीत
वक्ल लायत, लावन काडीत
तकली अशी तशी हालयत
साबार काव्यां वाचून काडलीं
थोड्यांवेल्यान नदर उव्वाळ्ळी -
कितलीं काव्यां, कसलीं कसलीं !
सैम भक्तांलीं सैमिक काव्यां
दैव भक्तांलीं दैविक काव्यां
धर्म भक्तांलीं धार्मिक काव्यां
नर्मकाव्यां, कर्मकाव्यां, मर्मकाव्यां !
आधुनिक, अत्याधुनिक काव्यां
उत्तराधुनिक, दक्षिणाधुनिक काव्यां
हास्यकाव्यां, उपहासकाव्यां
आत्मकाव्यां, आत्मीय काव्यां
अकारात्मक, सकारात्मक,
नकारात्मक काव्यां
छंदबद्ध, छंदमुक्त काव्यां
उबीं काव्यां, आडवीं काव्यां
एक ओळ्येचीं, एकशें ओळ्येचीं
तुळशी येदीं, पिंपळा येदीं
कितलीं काव्यां कसलीं कसलीं !
सगळींच काव्यां खाशेलीं !

सादी कविता सोदून सोदून
खर्शेलेलो निर्शेलेलो
दुःखेलेलो लजेलेलो
एक बाबडो सादो रसिक
आनी सोसूंक नज म्हणून
तिनदोळयांचे करटें भितर
सोळशी भर उदक घेवन
नाक बुडोवन बुडोवन बुडोवन
प्राण सोडूंक सोदीत आसा !

(2000)

## रसिक

बंद पडलेल्या नेमाळ्याचो
पोरनो सुपुल्लो आंक हो
कशी हांवें सांबाळ्ळा !
इतलोच काळ !
मदीं एकदां उगडून पळयतां
पांचव्या पानावेली कविता -
मुदयेर थीक कश्या माथाळ्या खाला
सोबित उतरांची
उपाट अर्थाची
सुंदर सुंदर कविता !
आनी ते तेरा वळयें सकल,
मन भुलोवणे मोगाळ नांव ..
म्हजें नांव !

## स्मृतिमंथन

दिल्ली -
साळका देवळ -
नवीन वास्तुकलेचें नवल -
त्या भव्य ध्यानमंदिरांत
अप्रूप खिणां - मोनीं आनी शांत -
अकस्मात
विना कारण
याद - एक कर्मयोगीची !
मागीर
कुतुब मिनारा कडे
इंडिया गेटा कडे
लाल किल्ल्या कडे
वचत थंय तीच याद !
परतून परतून -
किरवंट्ये वयले गांठ्ये वरी
पावलाक तोपलेल्या कांट्या वरी !
( तागेले खंय निमणे दीस
हे दिल्लींत सारलेले - )

तीस जनपथ मार्ग -
बिडला घर -
आतां
हर्दें निबर करचें पडतलें -
काळसावांच्या बोल्सांत
हाताच्यो मुठ्यो करच्यो पडतल्यो -
(तागेलीं खंय पवित्र पावलां
पळोवपाक मेळतलीं हांगा !)

काळजा,
धा कोस धांविल्ले वरी
खरश मारता कित्या ?
आतां कांयच घडपाचें ना हांगा !
घडूंक आशिल्लें घडून गेलां
उरल्यात फकत निशाणीं -
बावन वर्सांची धूळ लागल्लीं
फिकी पडिल्लीं निशाणीं -

पुण समजिकायेचें उतर
खंयचे काळजान केन्ना आयकलां !
घूडांत पडिल्ल्या विंदरा वरी
कुदून धाडवप -
तेंच हाचें कपला बरप !

चलून मुकार
पावलां हांव
पावलां कडे -
तांच्या म्हार्यांत चलतना
भ्रमांत सो पडून
आयचें काल, आनी
कालचें आज जाता -
म्हार्यांत आशिल्ल्यांक विसरतां,
म्हज्या माकाच विसरतां !

हीं पावलां
संत संत
खंय वतात ?
भूंय सोडून वचें पडल्यारीय
भारत सोडूंक शकचीं नात !

हांचें आनी ह्या देशाचें
तशें मू नातें -
रगताचें आनी आत्म्याचें !

पावलांचीं निशाणी सरतना
पिस्तुलाचें भोंकप आयकता ?
थटाकून उडपी सवण्यांचा
पाकां आवाज आयकता ?
निमणीं तीं उतरां
निमणो मंत्र शांतीचो -
हे राम !

मागीर -
माथें धाडावन बोब मारपी
एक अशांत मौन..

पिस्तूल जाणे चलयलें
अट्टाहास ताचो उठता आजीय
आटय दिकांनी !
तोंड ना ताका -
नांव ना, नामो ना -
ताज्या हातांत खंय
तण लेगित लोखण जाता -
घेता तो सुरी, खांडें,
पिस्तूल, तुबक, बम -
म्हजें तुजें म्हणून आड्डून
मारल्यात ताणे कितल्या जनांक !
वांटे मोडूक सोदपी तो -
कुटके तोडूक सोदपी तो -

देश चिरून तिसत्यो करूक
लागल्या ताका नष्टी ताकतीक !
पूत तो ह्याच देशाचो
भाव तो म्हजो तुजो -
मागीर जालो असो कसो ?
वगडावं नाका मोग ताचेर
रीग दिवंनाका भितर
न्हय शिवरची काकूट लेगित
अश्या विखाळ बेंदल्लेंचेर !

काळजा रे बाबड्या,
नाका इतलो खतखतो -
विसव तरी घे मात्सो !
आनीय तुवें पळोवंक आसा
भोव साबार -
पळय, तुका आपयता
शंकरमामालें बावल्यां घर
भारताचें मिनियेचर !
अति सुंदर, अजापकर -
वरां गेल्लीं कळ्ळें ना
पोराक पुरो जालें ना !
असोच मरे देश आमचो
कोटि कोटि जनांचो !
हीच विविधताय -
हीच सुंदराय !

शांतिवनांत पावंतना
गुलाबाचो वास !
भुरग्यां लागी खेळपी
एका द्रष्ट्याचो उडगास !

विजयघाटांत मतींत आयलो
ललितजीविताचो
एकलो सबळ कुशळ फुडारी !

शक्तिस्थलार पळयलो
हात शक्तीचो !

वीरभूमीर दिसलो गोबोर
तरन्या तरन्या सपनांचो !

आनी आतां राजघाट
यमुनातटा वयलें यादघाट !
राजमार्गा वयल्या आखाड्यार
एकटी फुल्लकारणी -
वळखीची न्हय
अनवळखीय न्हय -
तसली ती फुल्लकारणी -
तिणे दिल्लीं फुलां घेवंक
हात मुकार येना !
पळय जाल्यार निवळ न्हय !
चिखल मांडला -
चवड दसकांच्या
सान व्हड सुवार्थांचो !

'पोरा म्हज्या, घे तीं फुलां -'
ताळो थरथरता -
परतून एक पावट
काळीज धीर सोडता -
(सांबाळ मरे स्वताक,
मेळचीं नात हांगा पावलां बी !)

प्रशांत सुंदर उद्याना मदें
सादो चौकोनी सोपो,
काळ्या संगमरवराचो -
खूब खूब वळकीचो,
पुण पळोवंक नाशिल्लो !
सतत पेटचो नंदादीप
फुलां खातीर बांक
आनी तो शांतिमंत्र -
हे राम !



पळयत राबल्यार
भितर उजवाड !
मोने म्हजे ओंट -
जोडलेल्या हातां फाटल्यान
हर्द्याचो धडधड -
दोळ्यां मुकार
हून दूकांचो धुवर -
गळ्यांत हुंडको
चिड्डून कसो -

'पानावेलीं फुलां
हांगा दवर धुवा..'

कोणा खातीर म्हुण
कळता व्हय तुका ?
हात जोड, पायीं पड
होवूय एक देवूच !

महात्म्या,
तुका ओंपिल्ल्या फुलांक
लावंक ना म्हजे चिखला हात !
म्हज्या निष्कळंक पोराच्या
निवळ हातांनी केल्ली ही ओंपणी
स्वीकारून घे -
भेंट ही एक मोन्या काळजाची !

हांगा
मेजक्याच दिसांनी
अमक्याच दिसांनी
तुजो उडगास घेतात -
फोटो वयली धूळ फुंकून
प्लास्टिकाची माळा धुवन
करतात आंगवणाचें पालन !
सात वात्यांचो दीवो जळोवन
फोटो वयलो देव करतात !

हांकां फोटो वयलो देव पुरो
शिंगारिल्लें देवळ पुरो
नांचून केल्लें भजन पुरो
माचये वयलें भाषण पुरो -
भाषणकार गिरेस्तांच्या
बंगल्यांनी लांबतात
व्हडलीं रंगीन चित्रां तुजीं -

पुण
दळदिर्याच्या खोमटांनी मू
भोंवला तुजो आत्मो
रात दीस अशांत -

शंबर तीस वर्सां पयलीं
एक धन्य म्हूर्तार
पुण्य ग्रहांनी मेळून
पंचभूतां सारखीं मेळोवन
घडयिल्लो चमत्कार मू तूं !
अहिंसेचो मंत्र घेवन
सत्याग्रहा तंत्र घेवन
देश हो स्वतंत्र करून
मुक्तिदूत जालो
स्नेहदूत जालो
कर्मयोगी जालो
जालो महात्मो !

मातयेंत माती मेळसल्यारीय
उज्यांत उजो भरसल्यारीय ..
(पुरो !
ह्या वयार बेठींच रडचें
नाका पोरान पळोवंचें ! )

ओल्ले पोल्ले ओगी पुसून
जड जड पावलां ओडून
परतून वचूंया -
परतून वचूंया -

(2000)

## मोग म्हळ्यार..

मोग म्हळ्यार..
दिसा सपन ! चुकल्लें धडकन !

मोग म्हळ्यार..
एका हाश्याची गोडसाण ! एका हड्ड्याची हुनसाण !

मोग म्हळ्यार..
काळजाची भूक ! काळजाची दूक !

मोग म्हळ्यार..
दोळ्यांनी शेणलेले दोळे ! कातीक फुटलेले कळे !

मोग म्हळ्यार..
तुजो सांगात ! तुजो वियोग !

मोग म्हळ्यार..
सोदून पिशी जाल्ली नदर !

मोग म्हळ्यार..
काळखांतुलो काजूलो ! पोरसांतुलो व्हिंदळो !
आवयचो उलो !

मोग म्हळ्यार..
जपून धरचोसो जिणेचो मंत्र !

मोग म्हळ्यार..
मांड्येर तकली दवरून सोडलोलो लांब सुस्कार !

मोग म्हळ्यार..
इल्लें शेंदूर !

मोग म्हळ्यार..
शंबर हुसके !

मोग म्हळ्यार..
पयलें नातूर !

मोग म्हळ्यार..
अष्टतासाचें मोनें उतर !

मोग म्हळ्यार..
एक अशेंय खीण
तकलेर जोगुल बेसल्लें..
गळ्यांत हुंडके शिरकून
मेंदवाक उजो लागून
आंगाक शेळी हूम फुटून
एका श्रापित खिणार वळखल्लें
काळीज फाळपी एकटेपण..

(1998)

## नातरांचीं उतरां

पितरांनो क्षमा करा,
वसपड दवरूंक
शीत ना -
आज्यांनो क्षमा करा,
पिंड दिवूंक चोरू ना -
पाव पोटार जीण सारचे
भुके खातीर उदक पिवंचे
उजव्या-दाव्यान आसतना,
देवा, रागार जावंचो नाका,
निवेद तुकाय मेळचो ना !

## फरक

कालि कशे
तशेच आजीय -
मनीश बाबडे
बरे आनी कूडे -
फरक फकत इतलो
आजि
कूड्यांचें बरें जाता
आनी बर्यांचें कूडें !

## क्रांतिवीर

क्रांति घडोवंची जाय
रोखडींच !
पेजे-पापडाचें जेवण नाका आनी !
निर्णय घेवूंक तोडोव कित्या ?
पेज नाका, नाका, नाका !
जेवणाक शितच जाय -
आनी पापड --
मागीर पिवपाक पुरो
निशें ..

## देव दानव

जंय वेद
थंय वेताळ बी !
जंय देव
थंय दानव बी !

## लक्ष

कोण म्हण्टा म्हूण
विचारूं नाका !
कितें म्हण्टा म्हूण
लक्ष दी !

## प्रशिक्षण

सान मुंयांक मारप तितलें सादें सोपें काम ना वेगळें
हें माका अणभवांतुल्यान कळ्ळेलें !
व्हड व्हड प्राण्यांक मारूक कष्ट खर्च कितले !
मारलेच जाल्यार रगत, घाणि, मडें,
हांचें चिंतचें पडतलेंच !
मुंयांक मारप हेंच खर्यान सोपें !
कशी म्हूण थारावप मात न्हय तशी सोपें -
मुंयांक मारूक म्हूण घराक उजो घालप तर
जालें पोरनें पोरनें -
हालीं आमी घरां लासताय तीं चुकून न्हय
मुंयां खातीर तर न्हयच न्हय !
ते साबार मुंयांक एकच दमान मारचें जाल्यार
रसायणी वीख मेळता वेगळे वेगळे तराचें -
त्या क्षेत्रांत तर शास्त्रज्ञांनी, राष्ट्रज्ञांनी
बरी प्रगती प्राप्त केल्या -
गांव भर मनशांक लेगित मारूयात एकच दमान -
मागीर मुंयांचें कितें सांगचें !
पुण सामकें सरळ सादें म्हळ्यार - हाता बोटांनी
किरकोळ मुयेक सवकास वेंचवेंचून मारप !
जाय तर आंकडे काडूयात - जाय तर मड्यांचो
पुंजलो करूयात - ताचे ताचे संवये प्रमाण
आनी आवडी प्रमाण !

वेगळेपणा खातीर म्हूण आविष्कार करूयात
चिमटे मारून काडून हून ताटार दवरून
विडविडे पळोवयात - अर्द जीवार वांचोवन
मागीर दया-मृत्यू दिवयात -
रागार जावन कांय जाणांक चिरडून
झरोवन ना नपश्चात करूयात -
फुडाराक अवश्यक आनी कुशल प्रशिक्षण म्हूण
मुंयांक मारचें तितलें सोपें ना काम वेगळें -

## शिकवण

दूद दिलेल्या हाताकय
घास काडता जिवाणें -
मनशा कडचान मू खरें
शिकून घेतलां ताणे !

## गरज

एकलेन दुसरेक खावप
हें गरजेचें -
मांय सुनेक खायना जाल्यार
सुनेन मांयेक खावपाचें !

## भविष्योत्तरपुराण

जाय जाय म्होणचे आनी चड चड जातले -
आयचे आमी असले जाल्यार फायचे कसले आसतले !
गांवचें जेवण पांवचें ना, पाल्या उदाक पांवचें ना -
पेप्सी आनी पिस्सा तरी ना जाल्यार जमचें ना !
घर गाडी नुपुरो, स्थान मान नुपुरो,
धन अधिकार येद्दो-येदोच लागेन मेळोवंचो !
सगळ्या सगळ्यांनी माका 'साब साब' म्होणूका -
कितेंय हांवें सांगचे फूडे 'व्हय व्हय' करूका !
पूत म्हजो शिकून शिकून यूरोपाक वचो जाय -
जांवय मनीश उण्यांत उणें जापानांत आशिल्लो जाय !
जाय जाय म्होणचे अशी चड जायत वतले -
आयचे आमी असले जाल्यार फायचे कसले आसतले !

नज नज रडचेय आनी चड चड जातले -
आयचे आमी असले जाल्यार फायचे कसले आसतले !
बर्प सर्प लागना, फोण केल्यार उलयतां -
वेस्त वो व्हार्डीक तरी टेलेग्राम पांवयतां !
बूक बीक वाचप ना, नीद येवंचें दंद तें -
चमकप माका लागना, आसा चिके 'बीपीचें'!
कार आसा खरें पुण गांव भोंवप जमचें ना
कष्ट खर्च कित्याक पिशा, चॅनल इतलीं आसतना !
बरें बरें काम तुमचें, ताळ्यो मारून कळयतां
पुणून दुडू मागूनयें, तत्व माका आडायता !
गांवां-समाजाचें वचून हांवें कित्या पळोंवका?
वेंचणुकेक राबना, पुण्य जोडूक लोभूय ना !
नज नज रडचे अशी चड जायत वतले -
आयचे आमी असले जाल्यार फायचे कसले आसतले!
(2004)

# दिष्टावो

सांज ना सकाळ, भायर ना भितर
मन थोडें बेठें पडलेल्या वेळार
येवजिनासतना, आठयनासतना,
खोल खोल चिंतनां जेन्ना
अवचीत येताय उदेवन
तेन्ना वळखतां, तीं म्हजीं न्हय,
म्हजीं न्हय खरेपणीं !
धनी तांचो आसा खंय तरी
दूरा ना लागी -
आड पडला आसत खाटल्यार
धांकून आपले दोळे
चिंताग्रस्त, विचारांत व्यस्त -
खंय आसा ताचें खाटलें ?
आपल्याच घरांत काय दूसरेकडे ?
कळना माका -
सेवा शुश्रूषेक म्हूण
लागी कोण आसा कितें ?
खात्री ना -
जाणा फकत इतलें मात्र -
बेश्टे गेलेनाय ताचे पिके विचार
व्यर्थ जालींनाय तीं चिंतनां..

(2005)

## इष्टा

बेसन हांव चोवन चोवन
धांवत्या खेळत्या भुरग्यांनी सजल्लें
शाळेचें हें विशाल मैदान -
तुजेच वेंगेंत आसो तें तुजें
लाख नखेत्रांचें आसमान !

लख ज्योतीचो हांसो सूर्याचो
तेज ओतो तुज्या मनांत -
अनवळख्या पोरांलो मनमेकळो हांसो
सदांच फांकता उजवाड म्हज्यांत !

गळिल्ल्या फुलांचीं शोकगाणीं
गुंथो तुजी सुंदर लिखणी -
म्हांतार्यांची मोनी व्यथा तोपून
काळीज म्हजें मू जखमी !

विरगळत्या इंद्रधणवा खातीर
तिमय गा तूं तुजे पोले -
फाटीक थापल्लीं पोटां पळयत
आटलीं म्हजीं दूकां, तापले दोळे !

देशभक्तिगीतां गायत दोहरायत
फुलो तुजें स्वाभिमानी हरदें -
गोबोर जाल्लीं घरां पळयत
काबार जाल्ले जीव पळयत
दिसता मरूंक मदेंच मदें !

(1998)

## नवी खबर

येता रे येता
प्लास्टिकाचो देव येता
आमचे प्रगतीचें प्रतीक जावन
इंटर ॲक्टीव देव येता !

जड जड्डे पोरने देव
काडून उडय पैस पैस
शिलायुग सोंपलें केन्नाच
टेक्नॉलॉजीक फुटलें कणस !

देवळ नाका देवळी नाका
मंत्र नाका तंत्र नाका
भटजी आनी गुरुजी नाका
चोवीस वरांय दर्शन दिता !

फोटो वयर वाळती येत
मात्ये मूर्ति फुटून वचत
धातुबिंबाक चीर पडत
पोरनीं सगलीं दान दिया !

डिस्पोसेबल आरत येता
डिस्पोसेबल घांट येता
गोमटें आनी ल्हान हलकें
डिस्पो गर्भकूड येता !

येता रे येता -
फायबराचें बळ घेवन
सिलिकनाचें हरदें घेवन
हासून आशिर्वाद दिवपी
इंटर ॲक्टीव देव येता !

(2001)

## भेट

रिमेंबर मी ?

ताळो वळखीचो
भोव भोव वळखीचो !
पुण मुकार उबी ही कोण ?
पिंगश्या चशम्याची -
लिपस्टिका ओंटांची -
बॉब केल्ल्या केसांची -
रस्मा साड्येची -
हातकापे चोळयेची -
हिका हांव वळखतां ?

ऑफकोर्स आय डू !
यू कॅन ऑनली बी सिलविया !
आनी म्हजे दोळे बाबडे
सोद सोद सोदताले
एक तरीय निशाणी
मनांतुले सिलवियाची !
म्हज्या मनांतुली ती ..
तिच्या दोळ्यांनी
नखेत्रां लिकलिकतालीं -
त्या हासकुर्या ओंटांक
लिपस्टिक नाकाशिल्लें -
कापसाचे हल्के साड्येंत
पिसोळें कशी दिसताली -
ही ती न्हय !
ती ही न्हय !

इसंटीट वोंडरफूल
टु मीट लायक दिस ?
आफ्टर सो मेनी यीयर्स !

फकत हो ताळो तिचो
म्हज्या मनांतुले सिलवियाचो -
ना तर जालां खूणच !
वर्सांनी सांबाळिल्ले
एक जिते जिवे यादीचें खूण !
नाकाशिल्ली ही भेट -
बाबडे, तुजोच घात केला तुवें !

यॅस ! इंडीड इटीस !
रिअली वोंडरफूल !
ॲन आणेक्स्पेक्टेड सारप्रायस !

(1998)

## घडित

दाव्या पोल्यार मारलो म्हणून
उजवो पोलो दाखयलो !
क्रिस्ता म्हज्या, राक माका,
होवय तांणी तापयलो !

## नट

माचयेर येताय ते नट न्हय खरे -
कोण काय बरयल्लीं उतरां वाचून
भेस चडोवन पूर्वाभ्यास करून
कोणाचे काय मार्गदर्शनान
तरातराचीं सवंगां करपी
ते कोणच न्हय नट खरे -
तुस्त मेळो वा तोहफा
ताळयो मेळो वा तसरीप
ताण पडून काम करपी
बाबडे ते न्हय नट खरे -

खरे नट रे आमी तुमी !
दर दीस दर वगत
याद धरीत आज मेरेन
घरां भितर, घरा भायर
हात सोडून, हुसको सोडून
येद्दो लेगित विसव नासून
केद्दो प्रतिभेचो अभिनय आमचो !
भेस ना अभ्यास ना
ताळ्यो ना तसरीप ना
तरीय आमी केद्दे तज्ञ
चतुर प्रवीण फिशाल !

भितर जिवा जाळ तरीय
तोंडार सदळ हांसो हाडपी
मनांतुल्यान चाळयतनाय
भायर नम्र विनम्र रावपी
शिरापिता काळीज तरीय
हातान आशिर्वाद दिवपी
प्रतिभा आमची निजाची -
खरे नट हे आमी तुमी !

(2002)

## फरक

दुडवा उंचार बेसल्लो चोयना अशी
दळदिर्यांत बुडल्लो चोयना तशी -
तांकां ना (नाका) परिचय एकामेकाचो
पुण फरक तांचो फक्त एक जन्माचो !

## फट

सगळें महाभारत आसत खरें
पुण जरासंधाची काणी मात फट -
वेगळायलेले कोण केन्नाच जायनाय एकडे !
आपलेच आवसून एकडे केलेले लेगीत
आज हांगा अमसरताय, जावंक वेगळे !

## अक्षरार्चन

दोळ्यांचे दीवे तुजे मुकारि लायतां
उतरांचीं फुलां तुका नित्य अर्पितां -

कळाकळी येत थाकून तुका सोदीतां
धीर तुजो ना जाल्यारि पावल लक्कता -

सुख-दुःख जीवितांतूं तूंचि विर्किता
सहजपणान घेवंचे खातीर शरण हांव तुका -

कर्मांचें फल एक-एक भोगितां
धर्माचो मार्ग दाखय, इतलें मागितां -

भवसागर तरण करूक शक्ति दी माका
जर्निमृतीचे चक्रां थाकून मुक्ति दी माका -

(2001)

## ती

सुचलेली कविता विसरलों
म्हणून हांव निर्शेलों -
पुण तिका म्हजी याद !
उलो मारता ती परतून परतून
लिखणी उखल उखल मेरेन !

## जललिखित

म्हज्या शंबर सुख-संतोषांच्यो
रचल्यो हांवें
शंबर ओळी, सुंदर ओळी -
कविता पुरती जावंचे आदी
पूर्ण विराम लावंचे आदी
पुसून गेल्यो शंबरय ओळी -
वळखी-अनवळखीच्या
शंबरांल्या दूकां व्हाळांत ..

## गुपित

म्हजो म्हणून हास ना
तुजें म्हणून रडणें ना -
समजुपाचें समजतलो
इतलें हांवें सांगतना -

## निपून

ह्या कोर्या कागताच्या
भव्य विस्तारांत खंय तरी
निपून निपून आसा
एक सुंदर कविता !

*'What Man has made of Man !' - Wordsworth*

## अमेरिका

व्हड व्हड मनशांचा
व्हड व्हड आदर्शांचा
नामनेचा देशा,
मन भुलोवण्या देशा,
ल्हाना पासून येद्दो काळ
तुजेर हांव भुललां -
(संत संत तुजे तुवेंच
भूल म्हजी काडल्या !)

फाटलें उजळ चरित तुजें
आयकून हांव वाडललों
चार वर्सांचा त्या धर्मझुजाचा
लक्ष्या वयर अभिमान पावललों
एब लिंकनालीं तेजिष्ट
उतरां वाचून हर्षललों -
कपल तुजें, भव्य देशा,
त्या तुज्या म्हामनशाक
जिवेशीं मारलो दुसर्‍याच दिसा !

आयदुवांचो खेळ तुजो
आयुधांचो मोग तुजो
न्हय कालचो पयरचो !

शतकां पुरथमलें घडित !
येता माका उडगास ताचो..
पोराक एकल्याक भेट मेळ्ळें
नवें नवें कुराडें !
कुराड्याची धार पारखूंक
झाड एक कापलें ताणे !

तोच तुजो राष्ट्रपिता !
संवय ताचीच थापली तुका
रूच ताचीच भिडली तुका
हाच्या ताच्या निमित्यांनी
नव्या नव्या आयुधांची
धार सदा पारखुपाची !
तुज्याच हातान गोबोर जालीं
हिरोषिमा, नागसाकी -
घाललो आयदुवांनी आकांत
कोरिया, वियटनाम, इराकांत -
काणी तुजी चुरचुर्यांची
उबंत उडयिल्ल्या आदर्शांची -
आतां तुका वळखलां -
कोडू कोडू वास्तवां
खर्यानच समजलां -
(शिक्षितांचो गिरेस्त गांव -
आज पुण
दुस्वासाचें दुसरें नांव !)

भुरगेपणांतुल्या म्हज्या
अभिमानी देशा,
इतले पयस आसून लेगित
दोळ्यां मुखार म्हज्या
घट उबीं तुजीं चित्रां -
ग्रॅन्ड कॅनयन, नयाग्रा धबधबो,
स्वातंत्र्य शिल्प, भांगरा सांकव,
अनन्य तो डिस्नी गांव -

तुज्या कथाकारांनी माका
हासयला रे रडयला,
खोल खोल चिंतूक लायला -
तुज्या कवींच्या उतरांनी
काळजा वयर घोंटेर बांदला -
सगल्यांक हांव वळखुपी
सगलींय माका आपलीं कशी -
स्टीनबेक, हेमिंगवे, ओ हेनरी,
कथाकार तुजे मनीशमोगी -
स्पिलबर्ग आनी डिसनी
माका मायालोकांत व्हरपी -
लोंगफेलो आनी विटमॅन
अप्रतिम प्रतिभेचे कवि -
अतुल कथाकार मार्क ट्वेन -
असुलभ शास्त्रज्ञ एडिसन -
(पयसुल्ल्या चंद्रमाचेर
पावल पयलें लागलेलें
तुज्याच पुताचें ! )

मोग तुजो केल्लो हांवें
गुल्ल माका केल्लो तुवें
व्हड व्हड दिसल्लो तूं
नदरेंत भरपा सारको !
आतां पुण तुच्छ जाला
केवल वागोणे सारको !
दोंगरार कोरांतिल्ल्यो
पूर्वजांच्यो तकल्यो लेगित
नदर बागयतात आसत !
भेस हायड जेकिलांचो
परत परतून घेतिल्लो तुवें -
जेकिल पाप मेलो दिसता,
हायडूच तिगून उरला !

आदीं तुवें रचिल्लें चरित
सगल्या लोकाक रोमांचदायक !
सगलें मागीर भस्म केलां
फाल्याक कितें उरलां ?
शप्पन वर्सां हीं
श्रापित वर्सां !
जंय जंय जाला घात
फाटल्यान दिसला तुजोच हात !
तुजें नवें चरित आयकून
पूत फाल्या लजेतले -
तोंड लिपोवंक सोदतले -
सिलिकणाच्या हारशांत बाबड्या,
खरें तोंड दिसचें ना !

भुकेल्ल्यांच्या दोळ्यांत पळय
अनाथांच्या काळजांत पळय -
थांगा खरेंच दिसतलें
क्रूर हिंसाळ तोंड आपलें !

काएनाच्या निडळा वयर
एकच दाग लागललें -
तुजे व्हडविकेचे घुड्येर
पुराय दाग, तांबडे निळे -
तांबडे तांबडे गेरे ते
कोणाले रगताचे ?
नखेत्रांचे तिबके ते
आंकडे कित्याचे ?
रायां मुखार ना बागुपी
स्वाभिमानी घुडी तुजी
कितले सकल लोळता पळय -
खर्यांनीच बुरशी पळय -

(सपनदेश फकत आतां
सपनांतूच उरला -
सपनांतुल्या देशाक आतां
सपनां सयत पुरतां - )

(2001)

## मोग मेजूनाका

मोग मेजूनाका
उत्रांनी
वा पत्रांच्या पानांनी -
मोग मेजूनाका
फुलांनी वा तोहफ्यांनी -
मोग मेजूनाका
वाट पळयिल्ल्या वरांनी -
केल्ल्या परतिल्ल्या उपकारांनी -
कसल्याय शुष्क आंकड्यांनी -
मोगाचें माप जरी
दिवचें पडलें तरी
दी फुलयिल्ल्या हाश्यांनी
गळयिल्ल्या दूकांनी
काळजार पडिल्ल्या विळख्यांनी
मनांत किरलायिल्ल्या सपनांनी -

(2002)

## शिकवण

बेठींच वगडायले
जिणेचे दीस इतले -
तर कितें ?
जीवित कितें हें माका
शिकोवन मू ते गेल्ले !

## किण्ण खीण

हे फांतोडेर येवन हांगा
माकाच पळयत रावला कित्या ?
तुवें सांगचें नाका - हांव जाणां !
तुज्या बाविल्ल्या तोंडार छापल्यां
तीं तुजीं सगळीं उतरां !

आतां जें करपाचें आसा
तूं तें करून उडयीच -
हे म्हजें नशीब !
नशीब हें तुजेंय !

हांव सानुल्लों आसतना
माण्कुल्या हातांनी शिंपतालो तूं
म्हज्या तरन्या आंगाक
आंकर्यो फुटल्यो पळोवन
अजापून ताळियो मारून
नांचतालो तूं
मोव नाजुक हरवीं पानां
उठून सळसळतकच
उपाट मोगान सांसपितालो तूं
कितले पावट आळीं काडून
सारीं शिवंडावन
कळश्यांनी कळशे उदाक ओतून
म्हजेर जीवूच मू दितालो तूं !

म्हज्या मूळांत बेसून
खेळ कितले खेळतालो तूं !

म्हज्या खांद्यार झोपाळो बांदून
ऊंच ऊंच मू झेलतालो तूं -
म्हज्या फळां खातीर मरे
मार तुजे खेले कितले !
लिपून येवपी पाक्के चान्ने
तुका पळयत कशी धांवताले !

एकेक वेळार येतालो तूं
पोल्यावेल्यान दूकां व्हांवयत -
गुपित तुजीं दुःखां माका
एकेक वेळार सांगतालो तूं -

नवें घर, बायल, पोर -
कितलो कसो वाडलो तूं !
कपडे सुकोवंक दोरी लेगित
म्हज्याच खांद्याक बांदिल्ली तुवें -
काल पयर पोरा खातीर
रंगयाळो आंदळोय लांबयल्लो तुवें -

सायकल वचून स्कूटर आ[illegible]
तिचे खातीर सोदलो [illegible] -
म्हज्या मूळांत चों[illegible]न
बांदलो सोपो शि[illegible]चो -
ताडपत्री वयर बांदून
जागो बरो सोबयल्लो [illegible]

तुजेच वरी वाडलां हो[illegible]
मूळांत आतां उदाक नाका -
अशी तशी धाविल्लीं पाळां
उदाक पांवयताय माका -

वाडलां भरे वाडलां
खर्यानच वाडलां !
नशीबांत कितें उरलां
कळूक पुरोश वाडलां !
जाणां हांव जाणां आतां
तूं आनीकय वाडतलो -
स्कूटर वचून मोटार येतना
तिचेय खातीर तुका
जागो सोदचो पडतलो !

बाबड्या रे बाबड्या,
तुज्या हातान जाल्लो म्हजो जन्म -
तुज्याच हातान जाल्ली वाडि -
आनी आतां कळाव कित्या ?
काडि मरे कुराडी !
मारि म्हज्या मुळारीच !

मार खायत एकेक वेळार
सगलें आंग कडकडल्यारीय
देहांतुल्यान दुखयेची वीज
[illegible]यर सकल भोंवल्यारीय
[illegible] उतर उलोवंचो ना -

मोनो म्हणून जन्मलों
मोनो जावन जियेलों
उरप जशी; मरप तशी !
मोन्यांनीच मरतलों !

(1998)

## दिसा सपन

एसी केल्ल्या कारांत
देनपारांच्या वेळार
फाटल्या सीटार एकटो बेसतना
नीद आयली आसत -
दोळ्यां मुखार उदेलें एक सपन..
वाटे कडेनच्या कोयरा ड्रमा लागीं
उठून बेसून तेग जाण भीक मागरे
आनी दोन सूणीं
कोणाची काय वाट पळोवन अक्षम -
अवचीत वणटी हुपून कांय उश्टीं पानां
शिंवडून पडताय ड्रमांत आनी सकल -
लागशिल्ल्या देवळां साकून आसत
वा त्या पोरन्या हॉटेलांतल्यान -
ना तर कोण वापरता पान आतां ?
पळेत आसतना
देनपारांचें सपन पळय
हात सोडून वता -
सूणीं भोंकताय, उडक्यो मारून
सकल पडिल्लीं पानां ओडून व्हरताय -
मनशां भोंकनाय, पुण
ताकतिकेन पानां ओडून काडताय -
चड पानां आशिल्ल्यान समाधान,
सगलींच वांचताय -
हांव लेगित !
हालीं, खंय गेल्यारीय हुस्के सपनांचे -
वीस कोर्सांचें बुफे डिनर
कशें एंजोय करपाचें ?
(2002)

## साक्षात्कार

ना ना म्हणून तुवें तागेलो निषेध करतना
नानास्वरूपान प्रकट जाता तो तुजे मनां !
एकेक अदृष्टाच्या संकष्टा वेळारी
धीर दिता एक ज्येष्ट भावावरी -
दुःख आयलें तरी, दोळे भरले तरी
सांत्वनां वर्षिता आत्ममित्रा वरी -
संतोषा दिसांच्या खेळा हासांतूं
वांटो घेता तरण्या भुर्ग्या बाळां वरी -
भाग्य उदेतना उन्नतींतू तुजे
हर्ष पांवता मरे अम्माबप्पा वरी -

ना ना म्हणून तुवें तागेलो निषेध करतना
नानास्वरूपान प्रत्यक्ष जाता तो तुजे मनां !
दुसर्याल्या दुर्घटांत हात सहायाचो
मुकारि करूक स्फूर्ति दिता तुका -
मित्र बंधूंगेले भाग्यांत संतोष
पांवचें व्हडलें एक हर्दें दिता तुका -
कूडें चिकूण बरें आपणावूंक
सूक्ष्म विवेकाची बुद्धि दिता तुका -
लोका समुद्रांतूं बुडूक वतना
पोंवचे खातीर दृढ मन दिता तुका -

## शिंपी

कविता मू मोतीं
कवि केवल शिंपी !

## ग्रंथ

आयका ! आयका ! आयका !
मानेस्त चित्रगुप्तालो ग्रंथ शेणला !
कोणाक तरी मेळ्ळो जाल्यार
बेगीं परतूंक विनंती केल्या !
ग्रंथा विशीं जाणकारी दिवप्याक
बर्या इनामाची वेवस्था केल्या !
डूं ! डूं ! डूं !
आरे, यो लागी
डांगरेकार वतना
कानांत एक गुपीत सांगन -
तो ग्रंथ माका मेळ्ळा !
कशी मेळ्ळो ?
ती जाली एक काणी !
ताजे घरा कडे हांव
पोरनें कागत घेतां
कागतां भरशी ताजे घरकान्नीन
काडून उडयल्लो तो !
घासाधीस करून करून
पस्तीस रुपया दिल्ले तिका !
कितें बरयलां तांतूं ?
साबार बरयलां, साबार !
सगल्यां विशीं बरयलां
मेल्ल्यां विशीं, जित्यां विशीं -
कशे कशे खरेपणां !
मजा म्हळ्यार मजा रे !
वाच जाल्यार तोच वाच !
बरें इनाम ?
कोणाक जाय ! (2006)

## गीम

पावसाडेचे दीस उलगले.
काळ्या कूपांच्या जाळांतुल्यान
मळब मेकळें जालें.
ऊब विर्कीत, रगत आटयत,
भूंय तापयत, न्हंयो सुकयत,
गिमाळो आयलो.
मळब सुस्कारलें..

अवचीत तेन्ना अजाप कसलें !
शिरशिर मंत्र, भोंवतण थंड,
अक्षतां भाोन उदकाचे कण
शिवरून पडले आंगार सगले.
संथ हळू मळबाचेर फुललें
सप्तरंगाचें इन्द्रधणू..
कितें करतालों ? खंय वतालों ?
विसरार जालें सगल्या सगलें..
पळेत राबलां उतर विना !

(2006)

## धनी

उतरांचो मोगी
तोच उतरांचो धनी !

## अदीक

धव्या कूपांनी रंगयल्लें
नीळें नीळें मळब
कितलें सुंदर !
तें तळये उदकांत
हारशेल्लें पळोवंक
ताच्याकय सुंदर !

आपण्याचेर जीव ओतपी
एकल्याची वळख मेळतना
कितलो आनंद !
कोण एकल्या खातीर
जीव ओतूंक आपुणूय
तयार कळतना
ताच्याकय आनंद !

## कालि तांय

कालि तांय तूं सांगतालो उपकार
आजि कोण रे बेसला ते जिबेर ?
कालि तांय तूं करतालो सत्कार
आजि कशी रे दोळ्यांतलो किशीर ?

## रीण

तूवें दिल्लो मोग आजून
वांटून वांटून सरलो ना !
इल्लो मोग पुताक दिलो
इल्लो मोग धुवेक दिलो
इल्लो दिलो बायलेक
इल्लो दिलो भयणीक
तरीय मेकळों जालों ना
मोगा रीण सरलें ना -
पंचभूतां म्हजीं पंचपक्व जातना
तेन्ना तरी सरत काय ?

## झूज

एकामेकार खुबून कोपून लडता कित्या व्यर्थ गा ?
कांटे कोयर मनां भितर भरून असो कुसू नाका -
झुजतलो तरी झूज गा, तनूमनान झूज गा,
प्लाश्टिकीचो कोयर करपी हातां आड झूज गा !

## कृमी

हांव हांव, तूं तूं -
आमी आमी, तुमी तुमी -
असल्यांचो माका, खर थू !
मनशाकाराचे, पुण हे कृमी !

# आगळें घर

चोवीस कूडां हांगा, एकच तराचीं
चोवीसांत पुण चोवीस घराचीं !
तेराव्यांत ही हांवच राबतां
पांच वर्षां मू जालीं आतां -
आज्जे-आज्यो सगलीं हांगाचीं
भुर्गीं मिगेलीं अपुरबायेचीं..




*मेज कदेल हांतळूण मांचो*
*सान जनेल, वण्टेर पंखो -*
*देनपारांचें सुभिक्ष जेवण*
*बाकी वेळार फळार खाण -*
*भाग्य मिगेलें हांगा पावलोलों*
*ना तरी चायपांत पडपाचों -*
*(तडकेर पडून व्रणां फुटून*
*थंयच्यान गेलोलो बापा मिजो..)*

मात्येवेलीं पोरणीं मात्येचीं घरां
मात्येक भरवण काळाच्या ल्हारां -
वयर वयर माळे जावन घरां वाडलीं
शुष्क जावन शुष्क जावन नातीं तुटलीं -
नातरांक दिकिल्लो दीस विसरतां
पळोवंचे आशेन जीव करपता -
(चौग पुतांली आवस हांव मरतना
खांद मारूक सरी ते पावत दिसना..)

हे कडे आश्वास, ते कडे गद्‌गद
आगळे घरांत आगळें जीवित..

(2006)

## भारतभूमी

धन्य तूं जननी पुण्यभारतभूमी !

सहस्त्राब्दांचें उज्वल चरित तुगेलें
स्वार्थ सर्वय सोणु पूर्विकांनी रचिल्लें -
धन्य तूं -
रान रूक रेंव न्हय तूं आवस आमगेली
सान होड ना तुका तूं समस्तांगेली -
धन्य तूं -
आट दिकांनी तुजी कीर्ति व्यापली
अभिमानान आमचीं अंतरंगां फुल्ललीं -
धन्य तूं -
चरणकमलांचेर, कोटि नमन करताय
अमर तुगेलें नांव नित्य स्मरण करताय -
धन्य तूं -

## आनी एक मिलेनियम -

प्लास्टिका आड उलयतल्ले
उलोवन उलोवन मरतले -
प्लास्टिक वापरतल्ले
वापरत वतले -
आनी एक मिलेनियम उदेतना
भूमीर प्लास्टिकच तिगून उरतलें -

## द्वंद्वां

दोग हे दोळे, पळोवंक जवळे,
पुण एकामेका पासून साप्प वेगळे -
एकलो जो फुलून चंद्राक चोयता,
सैमार भुलता, रंगांनी रमता -
दुसरो हो दुसर्याल्या दुरितांनी घुसपून
विडविडो पांवता, दूकां गळयता -

कान हे दोग, तुष्ट अतुष्ट,
एकामेका पासून थेट परकिष्ट -
एकलो हो आयकता कोगुळा गीत,
ल्हारांची लोरी, पावसा संगीत -
दुसर्याक दुसर्याल्या हुंडक्यांचो साद,
भुकेचीं रडणीं, विलाप शिराप -

मन खरें एक, हड्डेंय एक
पुण भाव अनेक, विचार अनेक -
घर, घराचीं म्हूण वावुरता अशाण
मानवी मूल्यांक वेंगायता तशाण -

आंगाचीं द्वंद्वां ! आत्म्याचीं द्वंद्वां !
आंगाक आत्म्याक जुळोवंचीं द्वंद्वां !

(2007)

## पारवे

सात रंगाचे हे पावसाचे धोणवा
चोय तूं मळ्बावेल्यान खाला -
ह्या आंगणांतुल्या पारव्यांक केद्दो गा
जो रंग तुका ना, तो साजता !

# उतरां

खुंटिल्लीं फुलां
पानार काडलीं -
गुंथिल्लीं उतरां
कागतार वाडलीं -

उतरां उतरांचें नातें तशें
मनशां मनशांचें -
आस्से अंतर मदीं मदीं
भोव गरजेचे !

एक उतर अनमोल -
चड उतरांक
ना मोल !

उतरांचें मोल कळूक
गरज मौनाची !
मौन तोखेवूंक
गरज उतरांची !

आत्मो म्हज्यांत,
अर्थ उतरांत !

मांस लासतलें -
हाडां फुटतलीं -
नांव पुसतलें -
उतरां उरतलीं !






## एक रवींद्रगीत

*शांतीचो महासागर नदरे फुडें,*
*हे कर्णधारा, देंवय हें व्हडें ..*
*आसचो तुजो सासणाचो सांगात,*
*घे घे माका तुगेल्या गोपांत ..*
*ध्रुवतारो उजवाडायतलो वाट ही अनंताकडेची ..*

*तुजी क्षमा, ती करुणा, हे मुक्तिदाता,*
*चिरंतनाचे यात्रेर प्राणाधार माका..*
*संवसार-बन्धनां वचोय निसरून..*
*विराट विश्व धरो माका पोटलून..*
*अंतरांत मेळो निर्भय वळख, त्या भव्य अज्ञाताची ..*




## मीरा, जीवन आनी कवन

सोळाव्या शतकाची संतीण मीरेची जीवनकथा, आनी तिगेल्या साठ भक्तिपदांची पद्य परिभाषा. कोची 'देवकीकृष्ण प्रतिष्ठान' हाचो 1991 वर्षाचो परिभाषा पुरस्कार हे कृतीक मेळ्ळो. पुस्तकाक डॉ. बी. एस. आशा हांगेली प्रस्तावना आसा.

❑ 1987 वर्षाचें प्रकाशन ❑ 68 पानां ❑ वीस रुपया



## साहित्य संकलन

संपादित कृती. केरळाच्या इखरा समकालिक कोंकणी लेखकांल्या लघुकृतींचो संग्रह. कथा, कविता, निबंध आदींचे ओटू लेखकांलो परिचयूय दिला.

❑ केरळ कोंकणी अकादेमीचें 1995 वर्षाचें प्रकाशन ❑ 110 पानां ❑ चाळीस रुपया



## काव्योद्यान

संपादित कृती. वीसाव्या शतकांतुल्या केरळाच्या 36 प्रमुख कोंकणी कवींची एक एक कविता, तांचीं चित्रां, सुपुल्ली वळख आदी एकडे केल्लो अप्रूप संग्रह.

❑ 1999 वर्षाचें प्रकाशन ❑ 54 पानां ❑ सत्तीस रुपया

**प्रा. हरिश्चंद्र नागवेंकार हांगेल्या साहित्यनियाळांतुल्यान** -

'श्री शरतचंद्र शेणै हांणी ह्या संग्रहाचें खूब कलात्मकतेन आनी वेवस्थितपणान संकलन आनी संपादन केलां. केरळाच्या फाटल्या कितल्याशाच दसकांतल्या काव्य-साहित्याची समर्थपणान जाणीव दिवपी असो हो संग्रह.'




## अंतरनाद

पांच खंडांनी जावन, पन्नासां वयर सान व्हड कवितांचो आस्पाव जाल्ल्या ह्या काव्यसंग्रहाक 1999 वर्षा केंद्रीय साहित्य अकादेमीचो प्रतिष्ठेचो राष्ट्रीय पुरस्कार मेळ्ळो. प्रस्तावना श्री गोकुलदास प्रभु हांगेली.

❑ 1997 वर्षाचें प्रकाशन ❑ 90 पानां ❑ पन्नास रुपया

**From Sahitya Akademi Award Citation -**

'*Antarnâd*, the award-winning work, is an exquisite collection of poems containing deeply felt questions and thoughts encompassing self, society and nature. Shenoi's poetry is firmly rooted in the epic and puranic tradition of India. It is rich and vivid in imagery, felicitous in diction, consummate in craftsmanship and is of a pleasingly lyrical tone. The work is certainly a worthy contribution to Indian poetry in Konkani.'




## लोकधन

केरळांतुल्या कोंकणी लोकसाहित्याची सगळ्या आंगान वळख दिवपी पठन, आनी संबंधी विषयांची चर्चा.

❑ 2004 वर्षाचें प्रकाशन ❑ 50 पानां ❑ चाळीस रुपया




## श्रीकृष्ण कथासुधा

श्रीकृष्ण भगवंताले संपूर्ण अवतारकथेचेर आधारिल्लें अष्टोत्तर शतश्लोकी भक्तिकाव्य.

❑ 2006 वर्षाचें प्रकाशन ❑ 24 पानां ❑ विक्रेक ना

ed



## श्रीवेंकटेश सुप्रभात

विश्रुत भक्तिगीताची सरळ कोंकणी परिभाषा - मूल संस्कृत श्लोक सहित.

❑ सुकृतींद्र प्राच्यविद्या शोध संस्थानाचें 2004 वर्षाचें प्रकाशन ❑ 32 पानां ❑ पन्नेरा रुपया

## साहित्यदीप्ति

संपादित कृती. केरळाच्या कोंकणी साहित्यक्षेत्रांतुल्या आयच्या 15 प्रमुख लेखिकांली एक एक कृति, आनी तांची साहित्यिक वळख, हांचो हो संग्रह. ग्रंथाक डॉ. एल. सुनीता बाय हांगेली सविस्तर प्रस्तावना जोडल्या.

❑ 2005 वर्षाचें प्रकाशन ❑ 124 पानां ❑ शंबर रुप या

**प्रा. एम्. एन्. प्रभु उडुपी, हांगेले कृतिपरीक्षेंतुल्यान -**

तेरा काणयो आनी दोनि प्रवास कथन हांचो हो मोतियां हारु सिद्ध कोर्नु, यशस्वी रीतीन हाचें संकलन संपादन कोर्नु श्री शरतचंद्र शेणै हान्नी कोंकणी समाजाक महदुपकार केल्ला.'

❑ हाचे भायर दोन पुस्तकांचे हे जोड लेखक जावन आसात -
**श्रीकृष्णकर्णामृत** (1987) संस्कृतांतुल्यान परिभाषा.
प्रकाशक आनी जोड लेखक : डॉ. पी. बी. जनार्दन, चेन्नै.
**कोंकणी बरयतना** (2001) नवोदित बरोवप्यां खातीर मार्गदर्शी.
जोड लेखक : श्री पी. जी. कामत
प्रकाशक : सुकृतींद्र प्राच्यविद्या शोध संस्थान, एरणाकुळम.

❑ आनी ज्या हांच्या पुस्तकाक राष्ट्रीय पुरस्कार मेळ्ळो, त्या 'अंतरनाद' काव्य संग्रहाचें संपूर्ण भाषांतर हिन्दींत त्याच नांवान पुस्तकरूपान (2001) आयलां. भाषांतर डॉ. एल. सुनीता बाय हांचें. प्रकाशक : जवाहर पुस्तकालय, मथुरा (उ.प्र.)

